# कल्पफूल

कविता

मनोराय नायक

अपुरबाय प्रकाशन

जल्मासावन
आयजमेरेन
म्हजे जीणेचो
स्फूर्तदातो
त्या, म्हज्या
पारपतीवाड्या,
पांयार तुज्या
ओपतां म्हजो
पयलो वयलो
शब्द-झेलो

— मनोराय नायक

पूर्व प्रसिद्धी –

ऋतु

कोंकणी

राष्ट्रमत

सुनापरान्त

जाग

कोंकण टायम्स

कोंकणीचें कुळार

सौंगडी

आकाशवाणी, पणजी

# मांडावळ

## ‘कल्पफूल’ च्या निमतान

**श्री.** मनोराय नायक हांकां हांव तांचे विद्यार्थिदशेसाकून वळखतां. तांचो कवी म्हण जाल्लो विकास पळयतना म्हजें मन धादोसकायेन भरून आयलां. जेन्ना ताणी ‘कल्पफूल’ ह्या तांगेल्या पयल्या कवितासंग्रहाखातीर दोन उतरां बरोवपाची इत्सा परगटायली तेन्ना हांवें हयकार दिलो ताचें हें एक कारण. दुसरें कारण, मनोराय नायकान प्रतिकूल परिस्थितीचेर मात करून आपल्या व्यक्तिमत्वाचो विकास केला. आयजमेरेन ताणी जिणेची जी वाटचाल केली, अणभव घेतले ताचीं पडबिंबां ‘कल्पफूल’ ह्या कवितांच्या झेल्यांत दिसतात. तांच्या ह्या यशाच्या पयल्या पांवड्यार आसतना तांकां काळजासाकून हांव शुभेच्छा दितां, ‘शुभाऽस्ते पंथान् सन्तु।’

कविता म्हळ्यार फकत शब्दांचो खेळ न्हय. शब्दांची कसरत न्हय. शब्दांनी निर्मिल्लें हें अभिनव विश्व. समृद्ध अणभवांचें हें आगर. हे अणभव सौंदर्याचो सोद घेतात; तशेंच कुरूप जगाचेर चाबकाचे फटके मारतात. मनोराय नायकांच्या कवितेनूय हेंच केलां. भोंवतणच्या वाठारांतली दुख्खां आपल्याच आत्म्याचीं दुख्खां मानून तद्रूप जावपी कांय मनस्वी कवी आसतात. मनोराय नायक हांणी हीच भूमिका आपणायल्या. तांचो संवेदनशील मनोधर्म ह्या संग्रहांत उत्कटतायेन उक्तो जाला. चिंतनशील वृत्ती हो ह्या कवीचो सभावधर्म. ताची कविता खर सामाजिक जाणविकायेची. तिच्या आशयांत बंडाची कीट आसा. पूण विध्वंसाची वृत्ती ना. नवनिर्माणाचो ध्यास आसा. कवीच्या दोळ्यांत सृजनाचें सपन तरळता. ह्या सपनाळू दोळ्यांनी अस्तित्वांत नाशिल्लें घर तो साकार करता. ह्या घराक वेल्या मळबांची उंचाय आसा. धायदिकांनी शीममेर हुपून वचपाची ह्या घराक तांक आसा. ताच्या खोलायेची कल्पना करूंक येना. कवी म्हणटा :

> म्हज्या मंडोळ्यांच्या कॅमेऱ्यांत
> वण्टी, कुडी, पांखे, आंगण पोरसुंव फाटल्यान बांय
> भोंवतणी रूखां – त्या रूखार सुकण्या घोटीर
> सकाळ-सांज तांच्या सुरांची मैफल
> तशेंच आपलेपणाच येतल्यांक उक्तीं दारां
> घराचें सगलेंच म्हजें म्हजें जाल्लें
> आनी घर वाडत वाडत गेल्लें
>
> (घर)

पूण सपन साकार जावप आनी प्रतिकूल परिस्थितीच्या तडाख्यान तें मोडप ही प्रक्रिया कवीच्या जीवितांत घडत आयिल्ली आसा. ह्या जीवघेण्या खेळांतल्यानूय हे कवितेक एक निराळें बळगें मेळ्ळां. देखीक:

केन्ना केन्ना
कांय संदर्भ जुळल्याभशेन दिसतगीर
कल्पनेच्या गाल्यांत कितलेशेच धांगे
आपशींच किल्लून विणटात
रंग-बेरंगी भविश्यसपनां
अंतस्कर्णाचे गर्भकुडींत
आनी
झंझोळोवन व्हांवयतात
म्हजें निरशेवणेपण

पूण अकस्मात त्या सपनांचो चुरो जावन मन सथरविथर जाता.

रंगी-बेरंगी सपनांच्योच वादोऱ्यो करून
हांव असहाय!
उक्त्या मळबाकडेन
हात पसरावन उबो
खूट कसो!

(संदर्भ)

कवीच्या अंतस्करणांतल्यो सपनांच्यो नाना परी 'म्हजीं सपनां' हे कवितेंत दिश्टी पडटात. कवीचीं सपनां रस्त्यावेल्या धुल्लासारकीं. केन्ना तीं वाऱ्यार हुपतात, दंवार बसतात, कवीची चित्तवृत्ती फुलयतात. केन्ना ती तेऱ्यावयल्या उदकासारकी आनी एकठांय केल्यार मोतयांसारखी तरल आसतात. केन्ना ती रेवेंसारकी ल्हारांर खेळ खेळटात.

पूण केन्ना केन्नाय तीं कवीक उस्तुरें काडटात. तीं कोल्ली मनशाच्या मनासारकीं चंचळ. मर्दीच पिशें लावपी. कवीच्या आत्मनिर्भरशील मनाचें नितळ पडबिंब 'वाट' हे कवितेंत दिश्टी पडटा:

इंच इंच मातयेखातीर
शिसो शिसो रक्त
शिंपडीत चलता हांव
पयसुल्ली म्हजी वाट
पयसुल्ली म्हजी वाट ती.

मनोराय नायक हांच्या खुबशा कवितांतल्यान सामाजिक जाणविकायेचो आविश्कार आत्मनिश्ट वृत्तींतल्यान जाल्लो आसा. 'भोंवडेकार', 'शब्द', 'कविता' आनी 'तुमीच जैतवंत गा' ह्या कवितांतल्यान कवीन शब्दांच्या मोठेपणाविशीं आनी शब्द निर्मणी करपी कवीविशीं अभिमान बाळगिला. आपले कवितेविशीं उमाळ्यान तो म्हण्टा:

म्हजी मनोदेवता
म्हजी जीण
म्हजो मोग
आनी सगळेंच कितें.

आनी ह्या उद्गारांची खोलाय मुखवेल्या उतरावळींत अणभवपाक मेळटा. कविता हो आत्म्याचे गर्भकुडींतलो सुक्षीम स्वर म्हणटात तें हांगा प्रत्ययाक येता:

हांवें तर तिका म्हजें काळीजच दान दिलां
म्हजे प्रियेक
हाचे बगर
आनी हांव कितें दिवं?

(कविता)

कवी आदिमायेक आवाहन करता. आपल्या मस्तकाचेर तिजें तेज फांकोवन आसमंत परजळीत कर अशी तिका विनंती करता. कवीच्या कितल्याशा पिळग्यांनी वनवास भोगलो. कुंडेकुस्कुराचे जिणें तांच्या वाट्याक आयलें. शेतांतली माती आंगार सारयत शेणां-पाटीं ताणी घेतलीं. ताणी काळ्या तळपार मुठी मारून रक्तान माती न्हाणयली.

हे पार्श्वभूमीचेर कवी आत्मतत्त्वाचो सोद घेता. तो आदिमायेकडेन प्रार्थना करता. तिज्या पांयार कूड ओंपपाची ताची तयारी आसा.

कवीची ही आत्मनिश्ट वृत्ती ल्हवू ल्हवू सामाजिक चिंतनाच्या पांवड्यार वतना दिसता. वास्तव जीवनाचेर भाश्य करपाची कवीची तांक मोठी. 'मोनेळ', 'हाड', 'बॉस' आनी 'कैदी' ह्या कवितांतल्यान चिंतनाचे वेगवेगळे स्तर दिश्टी पडटात. देखीक:

सगलेच तुमची थुंकी
वयलेवयर जिखपाक

तुमचे भोंवतणी दिसरात वावुरले
तुमचे मुठीतले सत्तेची केदी करामत!

(बॉस)

ह्या ओळींतलो उपहास सामाजिक वेव्हारांतले विसंगतीचेर उजवाड घालता. जिणेंतल्या वास्तवाचेर कवीन आपली जळजळीत नदर भोंवडायल्या. 'कैदी' हे कवितेंत जिविताच्या प्रवासांत येता त्या अणभवांची संमिश्र गुंफण कवीन केल्या. मनशा-मनशांतलीं नातीं एकमेकांत कशीं घुस्पल्लीं आसतात, ताचे फाटले आदिम प्रेरणेचो विशिश्ट लयींत कवी सोद घेता. 'गटारां' हे कवितेंतली व्याजोक्ती खूब कितें तरी सांगून वता. ती कविता खरें म्हळ्यार पुराय वाचूंक जाय. गजकर्णासारकी वस्ती वाडत गेल्ल्या खंयच्याय बकाल महानगराचें तें आयचे घडयेचें वास्तव आसूं येता. मनशानूच निर्माण केल्ले नवे संस्कृतींतली विकृती म्हणजे हीं 'गटारां'. ताचो कवीन केल्लो उपहास मर्मभेद करपी:

ह्या शाराची पुण्याय व्हडली
देखून अशी सवाय दिसची
पुण्यस्थळां ही मनां फुलोवपी
पयसुल्यान येतल्या भोंवडेकारांची
नितळ करची न्हय कोणे ही
ह्या शाराचीं भुशणां म्हगा तीं.

कवी 'पांगरूण' हे कवितेंत आळस उडोवन जागृत जावंक सांगता. तो सांगता, रातचें पांगरूण काडून वडय. भायर वत आयलां. रातचें पांगरूण रातीकूच बरें. दिसाक तें चलचेंना. फातोडेसून कोंबो आड्डेता. सूर्य उदेला. दीस जाला. तूं आतां बेगीन उठ. हे कवितेंतली रात ही मनाची निद्रिस्त अवस्ता. वत ही मनाची जागरूकताय. कवीन नव्या युगांत निदिस्त रावचें न्हय, हो संदेश दिला. प्रचार करीनासतना भावनात्मक आवाहन केल्ल्यान ही कविता वेल्या पांवड्यार वता.

'म्हजो वाडो' हे कवितेंत कवीन भोंवतणच्या सोबीत सैमाचें वर्णन केलां. वाठारांतल्या आनी मनाच्या सपनभुंयेवेलें हें सैम. धोलते माड. आंबे, पणस, देगेचो वड तशेंच भोंवतणचे मोगाळ मनीस हांचें ताणें मोठे लक्तुबायेन वर्णन केलां. पूण हें चित्र काळपुरुशाचे दुश्ट करणेन विबाडलां. सोबीत सैमाचो विध्वंस जाला. ताचें, आमच्या सगळ्यांच्या

काळजाचे ठोके चुकोवपी चित्र, मुखार कवीन रंगयलां. ताचीं उतरां वाचून मन उदास उदास जाता:

आयज वाडो काडला पावणेर
मातयेक मोल आयलां रे
एका वेळार सोबीत वाडो
खंयचो खंय पावला रे.

कवीच्या अंतस्करणांतलो आकांत 'फुडाराचें सपन' हे कवितेंत अणभवपाक मेळटा. सैम आनी मनीस हांचो हृदयसंवाद तुटत तुटत चल्ला. मुखार आनीकूय भयावह परिस्थिती जातली अशें कवीक दिसता.

फुडली पिळगी सैमाखातीर
इतिहासा पानां चाळटली
घरा-दारां खातीर मनशां
हेडहेड हेडटलीं
लाचार जावन पळयत वयर
अुक्त्या मळबाक होरायतलीं.

समाजांतल्या आर्थिक, सामाजिक विशमतायेचे कवीन कडक शब्दांनी भाश्य केलां. अधर्मान चलपी बेभान जावन कशे मुरगट्टात ताचें वास्तव चित्र ताणें रंगयलां. 'कोणाच्या कर्तुबाचें', 'रान रान फुलोवचें', 'वाटोळी', 'हांव गरीब' आनी 'बांयच्या तळाक देवूंक जाय', हातूंतल्यान समाजाच्या संदर्भांत चिंतन करपी कविमनाचें दर्शन घडटा. कवी सदांच गतिमान युगाक येवकार दिता. तो म्हण्टा:

उठ रे इश्टा
सडसडीत
तुमचो म्हाका
खांद जाय
नव्या उदकाक
व्हांवपाखातीर
वाट करून
दिवंक जाय

(बांयच्या तळाक देवंक जाय)

मनोराय नायक हांगेली चिंतनशील कविता हें तांचें बळस्थान.

'भिरमुट्यांनो, पिसोळ्यांनो' ही एक चिंतनात्मक कविता. वेलेवयर पळोवंक गेल्यार तो भिरमुट्यांकडेन आनी पिसोळ्यांकडेन संवाद करता काय दिसता. पूण खरें पळोवंक गेल्यार तो कवीचो आत्मसंवाद. कवीच्या जीविताचें तत्त्वगिन्यान हे कवितेंत दिसता. एकाच ध्येयमार्गाविल्यान वचपाची कवीची जिद्द आनी निश्टा हांगा दिसून येता. सुरवेक गोंदळ जालो खरो पूण शेवटाक मार्ग सांपडलो :

> कोणांक धरूं कोणांक सोडूं
> सगल्या फाटल्यान धांवलो
> फुड्यांतल्या फुड्यान फटोवन म्हाका
> पिसो सगल्यांनी केलो
>
> कोणूय हातीक लागना तसो
> वाज म्हाका आयलो
> एकाच फाटल्यान धांवपाचो
> मनांत येयलो उमाळो.

आयुष्याचें गणित ताणी सूत्रमय उतरांनी मांडलां. आख्ख्या जिविताचो नियाळ हे कवितेंत चिंतनाचे पातळेर व्हेला. जिवित काणयेचो शेवट हांगा निराशेन जाला. कवी म्हण्टा :

बेरीज वजा करून पळयल्यार शून्याचो पोटलो मेळ्ळो. हेंच गणित आरथें परथें आयुष्याच्यां पाटार मांडीत आयलो. खूब कितें मेळचे बदला बरेंच कितें शेणोवन बसलों.

केन्ना केन्ना कवीच्या जिवितांत तृप्तीचे प्रसंग येतात :

> गाळलेल्या घामाचें म्हज्या सार्थक गा जालें
> पाडंग शेत अेकाकाळचें आयज पोटरा आयलें
> धुंद खोशेन गुल्ल जावन शिळोणी जीबेर खेळ्ळी
> पळोवन शेत धोलतें हें, नेत्रां भरोवन आयलीं.

(शेत)

'हांव गरीब' हे कवितेंत वैयक्तिक अनुभवाची खरसाण आसा; तशीच चिड्डल्ल्या-माडिल्ल्या समाजांतल्या मनशाची प्रातिनिधिक व्यथा उक्ती जाल्या.

कविक सैमाविशीं अप्रूप आसा. 'पावस' हे कवितेंत कवीन पयल्या पावसाचें वर्णन केलां. तांतुत फकत कल्पनेचो साजशृंगार ना. पावस येवचे पयलींचो सैमांतलो आकांत तांणी उचित उतरांनी रंगयला. आनी मुखार तापिल्ल्या सृश्टीक शांत करपी. धुल्लान भरिल्ल्या झाडापेडांक नितळ करपी, पावसाच्यो पांवळी कश्यो देंवतात हाचें सोबीत उतरांनी वर्णन केलां:

सरसर फरफर ताल सुरांनी
भूंयेर देंवतात पांवळ्यो
पांवळ्यो आयल्यो
कळयो फुल्ल्यो
मातयेक सुटलो घमघम
पयल्या पावसाची
जाण वेगळी
सांगतली कशी गा कोणाक कोणाक?

'तारू' ही संग्रहातली प्रेमकविता. हे कवितेच्या आशयांत शारिरीक आकर्शणाचें वर्णन आसा. पूण ताची शीममेर हुपून प्रेमभावनेचें हें तारू दोगांच्या भावतंद्रीच्या दरयांत धोलता. तन्मयता हो हे कवितेचो स्थायीभाव. 'चली' हे कवितेंत तरनाटे चलयेच्या विभ्रमांचे आनी चलपाचे लयीचेंय वर्णन केलां. 'पिसोळें' ही तांची प्रतीकात्म कविता. जिवितांतली चिंतना हे ल्हानशे कवितेंत ताणें परगटायल्यांत. थोड्या उतरांनी खूब सुचोवपाची हे कवितेंतली तांक खूब मोठी. 'कलाकार' हे कवितेंत सर्जनशील कलावंताचे जिणेचीं तासां कवी दाखोवन दिता. कलेचो ध्यास घेवन अप्रूप निर्मणी करपी कलाकाराविशीं तो म्हण्टा:

कलाकार एक हारसो
ईशरूप पळोवपी
कलेंतल्यान परजळवपी.

'धनुष्य' हे कवितेंत ताणें जिवितांतल्या रंगरंगयाळ्या अणभवांचें इंद्रधनुष्य रंगयलां:

बोंबले देठासून
साद घातलेले
आसमंतात
पसरोवन गेले
रंग म्हजे
मळब माचयेर
सात रंगांचे
धनुष्य जालें.

'मळब' हे कवितेंत कवीन मळबाच्यो कितल्योशोच परी रंगयल्यात.... निष्ठुर मळब, करूणेन भरून आयिल्लें मळब आनी काळ्या कुपांचे कळशे एकवटावन उदकाच्या धारांनी सैमाक धादोस करपी मळब.... अशे ताचे आविश्कार. 'शिगमो' हे कवितेंत लोकमानसाचे लयींत एकरूप जावन कविमन दिश्टी पडटा. 'चंद्रिमाक' ह्या कवितेंत कवी निरागस भाववृत्ती परगटायता.

असल्या फकाणी या चंद्रिमाक
शिक्षा हांव करतां
धापून दवरतां ताका
पाटल्या पोंदा

'कल्पफूल' ही ह्या संग्रहांतली एक म्हत्वाची कविता. कवीच्या प्रगल्भ जाणविकायेची वळख करून दिवपी ही कवितां. तरेतरेच्या अणभवांची संमिश्र चित्रां हे कवितेंत रंगयल्यांत. तीं नियाळल्यानंतर मनाचेर संस्कार जाता तो कविमनांतल्या सामाजिक जाणविकायेचो. सामाजिक दुख्खांनी, विसंगतीनी कवीच्या दोळ्यांचे निखारे जातात. पूण हे दोळे निर्मितिशीलतेचो ध्यास घेवपी. कंवळ्या कोंबाची वाट पळेवपी. म्हण तो निमाणें म्हण्टा :

अशें हें सगलें
दोळ्यां भाटयेंत खतखतलें
दोळ्यांतच कुपां जावन
दोळ्यांतल्यान जमनीर ओतलें पावळ्यांनी
हालींच थंय पांचवो पांचवो रोपो किल्लला
कल्पफूल गर्भांत घेवन

त्या फुलाक पोश्यांत घेवपी खापे हात खंय
तांचे फोटे घेवंक
म्हज्या दोळ्यांतले कॅमेरे धायदिकां तेळटात.

'कल्पफूल' ह्या कवितासंग्रहांतली मनोराय नायक हांची कविता एकल्या एकसुऱ्याची, तशीच सामाजिक जिणेंतले सुक्षीम पदर नियाळपी सृजनशील कलावंताची. दोनूय नदरांनी पळयली जाल्यार ही कविता रसिकांक मनाक आनंद दिता. तांचें मन अस्वस्थ करता. अशांत करता. विचार करपाक नवी तांक दिता.

**प्रा. सोमनाथ कोमरपंत**

१.

## घर

म्हजी फुडें जावपाची बायल
म्हऱ्यांत कोण ना हें हेरून ल्हवूच विचारता
"तुजे बायलेक (तिकाच) घर केन्ना दाखयता?"
घर ऽ ऽ !
घर आकारता ल्हवू ल्हवू
म्हज्या मुंडोळ्यांच्या कॅमेऱ्यांत
वण्टी, कुडी, पांखे, आंगण, पोरसूंव फाटल्यान बांय
भोंवतणी रूखां, त्या रूखार सुकण्यां घोटीर
सकाळ सांज तांच्या सुरांची मैफल
तशेंच आपलेपणान येतल्यांक उकतीं दारां
घराचें सगलेंच म्हजें म्हजें जाल्लें
आनी घर वाडत वाडत गेल्लें
वयल्या मळबाची उंचाय, दायदिकांची रूंदाय
खोलाय खंय मेरेन ?
अशें येवजिता आसतना म्हजो हात
म्हज्या बोल्सांनी गेलो
आवयस !
म्हजीं बोल्सां रितीं रितीं
आनी हांव घराच्या चिंतपांत
ताच्या वण्टीनी, कुडिनी, पांख्यांनी शेणलेलों
"खंय पावले ?"
म्हज्या फुडें जावपाच्या बायलेच्या सादान जाग आयली
पळय जाल्यार
तिच्या दोळ्यांत हांवच
घर जाल्लों
वण्टी, कुडी, पांख्यांबगर
एका पेट्ट्र्या दिप-रत्ना सयत.

२.

## संदर्भ

केन्ना केन्ना
कांय संदर्भ जुळ्ळ्याभशेन दिसतगीर
कल्पनेच्या माल्यांत कितलेशेच धागे
आपशींच किल्लून विणटात
रंग-बेरंगी भविश्य सपनां
अंतस्कर्णाचे गर्भकुडींत
आनी
झंझोळोवन व्हांवयतात
म्हजें निरशेवणेपण
हांव मार नेट्टान धांवत सुट्टां
म्हज्या भुजांत जग आयिल्ल्यावरी
तेन्ना हेच संदर्भ म्हाका फटोवन
नकळटां पयसावतात.
रंगी-बेरंगी सपनाच्योच वादऱ्यो करून
हांव असहाय्य !
उक्त्या मळबाकडेन
हात पसरावन उबो
खूंट कसो !

## ३.

### रान रान फुलोवचें

वारें फुसफुसता
सैम धुमसता
उजो भगभगता
रान पेट्टा रान पेट्टा.

रान उज्यांत
तणां मर्ण
मुळासयत
नश्टपण नश्टपण

रानां लाशें
सुडा पिशें
पर्थें पर्थें
उस्ततलें

तेन्ना
पावसा पावळेन
जोडून नातें
रान रान फुलोवचें.

## ४.

## वाटोळी

अशीच एक वाटोळी
एका अज्रंवर उद्गाराक
चेपून येवन आयली तशी
तुफानांचेंच बळगें समजून
सगलें आसमंतूच नवे उर्बेन उठलें
वांगडा धुल्लाची धुळवट
रस्ताद कागदां कोयर पोतरो
सगळेंच गोल गोल नाचत पेंगत
वाटोळे फाटल्यान धावलें.
चेपिल्लो उद्गार!
शांत, थीर, स्थितप्रज्ञ
आपल्याच आत्म्याकडेन कान लावन!
वाटोळीच ती
आयली तशी सगल्यांचेंच वाटोळें करून
थेयथेय घालून गेली
आनी फाटलें लांव-लूत-भूत
खर्शेवन, निर्शेवन, जळा-मळा शिंपडलें
उद्गार नव्या जोमान चेंपणांतल्यान उठलो
आनी धुल्लान कुड्डयल्ल्या सैमाक
न्हाणयत धुयत चराचराक सादयत रावलो
"दिस उदेला आतां तरी उठात
नव्या मनूंक येवकार दिवंक."

५.

## शब्द

म्हजो एकेक शब्द
शांतीदूत जावन
तुज्या-म्हज्या
मनां-मदीं
पूल बांदूक गेल्लो
अजून परतलोच ना
तांचें कितें जालें
तेंय कळपाक मार्ग ना
कितें ?
पुलाचे बुन्यादींत
तुवें सगल्यांचोच आस्पाव केलो ?
काय अर्दे वाटेरूच खुर्दो केलो ?
कितेंय कर शब्द म्हजे शांतीदूत
आपलेपरीन तडी जोडूं पळयतले
आनी वेळ आयल्यार
जमीन भरवण जातले
पूण जांचेकडेन गेल्ले
तांचे खरीक हात घालून
भायर भितर झंझळयत
वळख आपली दाखयतलेच दाखयतले
तशे ते शकलेना
तर ते म्हजे शब्दूच न्हू
आनी हांव तांचो प्रेरकच न्हू !

६.

## कविता

कावळ्याची काव काव आयकून
कोण तरी सोयरो येवंचो आसा
हें सांगपाक
म्हजी कविता कितें ज्योतिषी व्हय ?
इश्टांनो !
तुमकां कशें सांगूं ?
ती कितें ती !
तीं म्हळ्यार
म्हज्या काळजाचें हुलपावणें
शब्दांनी बंदिस्त करून
तुमकां आयकोवपी
म्हजी मनोदेवता
म्हजी जीण
म्हजो मोग
आनी सगलेंच कितें
म्हळ्यार म्हजी कविता
तुमकां तिचो दुस्वास, फकाणां, निंदा
करपाचीच आसा मूं ?
करात खुशालभरीत !
हांवे तर तिका म्हजें काळीजच दान दिलां
म्हजे प्रियेक
हाचे बगर
आनी हांव कितें दिवं ?

७.

## तुमीच जैतिवंत गा

शब्द खणखणीत
विशय दणदणीत
बोंबले देठांतल्यान उतरां येतात
मेल्लीं मनां
पेटयत पेटयत
काळजा काळजांक जागयत वतात
तुमीच जैतिवंत गा
हातूंत इल्लोय दुबाव ना
रक्ता नात्याक
तिबो लावन
माना विडो जोडून वतात
पूण नकली तुमचो
आवेश तो
तितल्यापुरतो धगधगता
धगधगता तसो पयसावता
पेट्टी मनां बावयता
पूण ताचे वरवीं
तुमी मात
जैतिवंत जाल्ले आसात.

८.

## यो गे माये यो

यो गे माये ऽ यो गे ऽऽ यो
यो गे म्हज्या मस्तकीं
फांकय तुजें तेज भितर
उजळ म्हजे भोंवतणी

शेतां माती आंगाक सारयत
घेतली शेणां पाटी
काळ्या तळपार मारून मुठी
रक्तान न्हाणयली माती

आतां तरी भोंव दी म्हाका
जोडीत नवीं नातीं
सुखां-दुखां दितां-घेतां
बांदीत म्हजे गांठीक

तीन चवथो दीस बाकी
तरीय तुजी करीन चाकरी
व्हडवीक तुजी गायतां गायतां
अर्पीन तुका कूड म्हजी.

९.

## बाळक

लायात फोगोट्यो
घालात पेरगांव
बाळक जल्माक आयलां आयलां
नासलें सुख
अख्ख्या जगांत
तुमच्या वाट्याक पावलां पावलां
वांटात पेडे
करात जायरात
सटी बारसो फुलय फुलय
सोयरे धायरे
मागते बरे
ताकतिकेन आपय आपय
मारात भुसकें
सोपयत कारगे
बाळकाक वयर चडय चडय
कितलीं जालीं
कितलीं गेलीं
हेका मात जगय जगय.

१०.

## पावस

कशें फरफर सळसळ
धुल्ल उधळीत
आयलें अुतअुतें वारें
झाडा पेडांच्या
कानांत फुतफुतलें
कायशें सांगत धावलें

झाडां शादुरलीं
खोशेन अुचंबळीं
झाडलीं पिकलीं पानां
न्हेसण सांवरीत
नाचात आपलीं
बेभान जाल्यांत रानां

बेभान रानांत
काचाबूल मनां
आडस सोदीत धांवतात
रखरखलेलें वोत व्होदोळचें
खंय दडलें कळना

कट कट गड गड
घुडूंब घुडूंब ठो ठो
लकपक झगझग
झॉक! झॉक!
वाजपा तालार
जोगूल पेंगलें
कोण गा आयलें मळबांत ?
मळबांत आयले मेघराजा
सुटलां वारें सैमांत

सर सर फरफर ताल सुरांनी
भुंयेर देंवतात पावळ्यो
पावळ्यो आयल्यो
कळ्यो फुल्ल्यो
मातयेक सुटलो घमघम
पयल्या पावसाची
जाण वेगळी
सांगतली कशी गा कोणांक कोणांक ?

## ११.

### कोणाच्या कर्तुबार

कोणाच्या कर्तुबार
कोण जोडटा जैता-घुडी
कोणाच्या रक्तान
कोणां मासाक चडटा चरबी
कोण धर्मान चलतले
खणीं फोणांत घुस्पट्टा
कोण धडेर अधर्मान
बेभान जावन मुरगट्टा

## १२.

### देव

फातराक देव
मनशांनी घडयलो
मनशांनी पुजलो
मनशांनी तोडलो.

## १३.

## भोंवडेकार

हांव
शब्दांचो
भोंवडेकार
धव्या
कागदांत
काळे
शब्द
उस्तीतना
म्हज्या
घरा-दाराच्यो
तिस्त्यो तिस्त्यो
जाल्यो
त्या तिस्त्यांनी
हालीं
सूर्यकिर्णां
रिगल्यांत
म्हज्या
घरांत
दीस
उदेता.

## १४.

### वत तीन पाराचें

वत !
पयल्या पाराचें
पानां खाचींतल्यान खाला देंवतलें
मन भुलोवणें, जीण फुलोवणें
काळजांत सूर लावन
विश्व उठयतलें
कवळें, मोव भांगराचें
वत !
दुसऱ्या पाराचें
तन्नें, खर, हुलपोवणें
पावला पावलाक चटके दितलें
जुवानपणांत मोदयाळें
आंगआंग पिळटलें
रखरखान भाजतलें
वत !
तिसऱ्या पाराचें
अस्तमतेकडेन झुकतलें
कंवर बावगोन चलत चलत
काळखा पोटांत शिरतलें
वत !
पयलें-तिसरें उदय-अस्तांत तांबडें-गुंज
दुसरें रखरखीत खेळटें झुंज !
वत !
तीन पारांचें
तीन खिणांत तीन रूपांनी परजळून दीस घडयतलें.

१५.

## भिरमुट्यांनो – पिसोळ्यांनो

भिरमुट्यांनो पिसोळ्यांनो
आंगणांत म्हज्या उडत येयात
वंयेर बसा पावळेर बसा
वांगडा आमी खेळया.

किरकावळें माथ्यार घेतां
तुमकां सगल्यांक धरूक येतां
वयर वयर उडत रावून
चड म्हाका तिश्टोंव नाका.

भिरमुट्यांनी, पिसोळ्यांनी
उलो म्हजो आयकलो
चोशीं वटांनी भिरें येवन
घेरो म्हाकां घालो.

कोणांक धरू कोणांक सोडूं
सगल्या फाटल्यान धांवलों
फुड्यांतल्या फुड्यान फटोवन म्हाका
पिसो सगल्यांनी केलो.

कोणूच हातीक लागना तसो
वाज म्हाका आयलो
एकाच फाटल्यान धांवपाचो
मनांत येयलो उमाळो.

१६.

## शेत

गाळलेल्या घामाचें म्हज्या सार्थक गा जालें
पाडंग शेत एकाकाळचें आयज पोटरा आयलें
धुंद खोशेन गुल्ल जावन शिळोणी जिबेर खेळ्ळी
पळोवन शेत धोलतें हें, नेत्रां भरोवन आयलीं
भांगरा हुनत येता हांसत दाण्यांर तोंड घासता
वाऱ्यावांगडा पेंगता कणसां झुंबरावरी दिसता
पळय आयज तोळ, घुस, शेवणीं शेतांत घुसलीं
काल पयर धुरमुरून वचपी हींच तीं सगलीं
लागचे गेल्ले पलतडी परते आयले आलतडी
बाबडी कूस उजवतगीर घडटा गा हें घडघडी.

१७.

## तारूं

म्हज्या रक्ताच्या दर्यांत
तुज्या प्रितीचें तारूं
यादींच्या ल्हारार हुपेलें
जीणेचे म्हेडीक सपनांचीं शिडां
रंगयाळ्या वल्लीनी
तारूं ताणीत व्हेलां
तारूं प्यङ्त प्यङ्त
पावलें तंद्रीच्या राज्यांत
बुडलें न्हिदेच्या भोवऱ्यांत
म्हज्या रक्ताच्या दर्यांत.

१८.

## बांयच्या तळाक देवूंक जाय

उदक साठलां
उदक कुजलां
परतें परतें
वरवरें कित्याक ?
बसल्या जाग्यार
बांयच्या नांवान
दिसपट्टें
घट्टण कित्याक ?

आसा तुमकां
हिंमत जाल्यार
येयात हांगा
पालव दिवंक
देंवचें मागीर
बांयच्या तळाक
उस्पूंक थंयचो
रेबो-गाळ

रक्त म्हजें
शिंवशिंवता
झऱ्यांखातीर
तळमळटा
दीस-रात
तांचेखातीर
एकसारखें
येवजिता.

रेब्या ओज्यान
चिड्डल्ले
झरे बाबडे
फुलचे कशे ?
खळखळत
धांवते थेंबे
धर्तरे आमच्या
फुलयतले कशे ?

उठ रे इश्टा
सडसडीत
तुमचो म्हाका
खांद जाय
नव्या उदकाक
व्हांवपाखातीर
वाट करून
दिवंक जाय.

१९.

## म्हर्जी सपनां

म्हर्जी सपनां
रस्त्यावयल्या धुल्ला ऽऽ सारकीं
वाऱ्यार हुपता दंवार बसता
म्हजी म्हाकाच फुलयता
म्हर्जी सपनां
तेऱ्यावयल्या उदकासारकी
एकठांय केल्यार मोतयांवरी
हेवटेन तेवटेन नाचतात
म्हर्जी सपनां
दर्यावयल्या रेवेंसारकीं
ल्हारार खेळटा, ल्हारार व्हांवता
म्हाकां उस्तुरें काडटा
म्हर्जी सपनां
चंचळ अशीं
कोल्ली मनशां मनासारकीं
मर्दीच पिशें लावपाचीं.

२०.

## कलाकार

कलाकार
एक आविष्कार
सुख-दुःख सोदतलो
कलेंत विणटलो
नवें निर्माण करतलो

कलाकार
अेक तिराईत
हांसोवपी रडोवपी
बावलेल्यांक फुलोवपी
नवी वाट दाखोवपी

कलाकार
अेक घमेंडी
केन्ना व्यसनांत बुडपी
केन्ना वादांत रमपी
केन्ना अेकमुळो रावपी

कलाकार
अेक जादुगार
कलेंत लिपपी
सोदूंक लावपी
सोदतल्यांक ताण दिवपी

कलाकार
एक हारसो
ईशरूप पळोवपी
कलेंतल्यान परजळवपी.

२१.

## वाट

इंच इंच मातयेखातीर
शिसो शिसो रक्त
शिपडीत चलतां हांव
पयसुल्ली म्हजी वाट
पयसुल्ली म्हजी वाट ती
दोंगर दरींतल्यान वयतली
चलतां चलतां वायट बरे
अणभव दियत रावतली
येता ताका तोंड दिवन
त्या तेमकां मेरेन पावतलों
पावलोना थंय, तरी लेगीत
वाट काडीत चलतलों.

## २२.

# चली

लकपक झगमग भेंड मोडीत
तुरूतुरू चालींत चली चलता
नदर वरशी भुजां रूंदशीं
ओठांत लाली तांबडी तांबडी
कानांत कानांची बारीक नाजूकशीं
थिकां गुलाबी सोबीत मर्दी
चली दिसता मॅडम कशी!

केसां चुंबडो फाटीर लोंबकळटा
फुडली गुंजां उठून दिसता
चली अशी मुरगट चलता
तिरकिट चालीन साय हालता
जशी माडाची चुट्टी फरफरता
लकपक झगमग.... चली पकदस्त!

•

तिकतिकीत कात तिची
दातां फेण्याक पडटा खळी
दोळ्यांक पातकड्यांक घालून मिरी
हांसपाची रीत तिची
तिरकीट तिरकीट पांय उखलीत
चली गेली इक्सप्रेस कशी
टक टक टक टक खोटां नादान
काना कानांत धुमशणां घालीत.

२३.

## पान

पान
झाडाचें
पिकून
झडिल्लें
वाऱ्यान
कितलें
आडोवंक
पळयलें
तरीय
ताका
धुरमुरून
तें जमनीर
आपलें
देवलेंच
देवलें.

२४.

## दोंगर मनशाळो

दोंगर मनशाळो
मनशां दोंगरलीं
घरां झाडावलीं
झाडां ?
झाडां बाबडीं
रानवटां वांगडा
सोदतात आपलीं
जागा थाऱ्याची.

२५.

## पिसोळें

गैरूवांत
शिरकलें
पिसोळें
रंगयाळें
बंधपासांत
अंदलें
मुक्त
हातपायें
फाफुडलीं
पाखां
झडयले
रंग
याग
याग
जाले
मस्त
सावज
चाखोवन
कापोडयां
तेळटा
परतो
जाळें.

२६.

## पांगरूण

आरे काडून वडय
रातचें पांगरूण
भायर वत आयलां
रातचें पांगरूण
रातीक बरें
दिसा चलचीना
फातोडेसून कोंबो
आड्डता
सूर्य उदेला
दीस जालो

२७.

## म्हजो वाडो

दोंगर व्हाळ शेतां कुशीक
वाडो म्हजो वसला रे
संसारांतल्या भोंवडेकारांक
पाट्यावेल्यान दिसता रे.

धोलते माड आंबे पणस
देगेक वड सोबता रे
वाडो म्हजो सोबीत बरो
मोगाळ मनशांनी वसला रे.

विंगड विंगड धंदे करपी
लोक हांगचे कश्टी रे
पिळग्या पिळग्यांनी आनंद भरीत
एकोप्यान रावता रे.

अशा सोबीत वाड्यार म्हज्या
लालची नदर पडली रे
कुराड कोयती पिकास खोऱ्यान
वाड्यार पावल घालें रे.

कचा कचां कापले माड
तशेच आंबे पणस रे
उब्या दोंगरार मारून पिकास
तळ केलो सपाट रे.

घरा घरांत घालून शिमो
मनशां भितर फूट रे
सोबीत वाडो बोडको जाला
मनीस मनीस तुटला रे.

आयज वाडो काडला पावणेर
मातयेक मोल आयलां रे
एका वेळार सोबीत वाडो
खंयचो खंय पावला रे.

२८.

## मोनेळ

सुताच्या गुठलावरी
आर्थून पर्थून घुस्पल्ली ती एक
बारीक सुताची गुठली
दखल लेगीत न घेवपासारखी
चोंयवशीनी रूखा रूखांनी केळिल्ल्या
दोंगरा वठारार पडिल्ली.
चलती वाट – वाट काडून चलतल्यांची
आडवी तिडवी, खाची खाचींची
झिली-काट्यांची, फातरा तळपांची
वाट चलतना म्हज्या पावलान चुकून
तिका दांगयली आनी हांव
घाण्याक बांदिल्ल्या बैलावरी
त्याच त्याच जाग्यार मालूक कसो फिरत उल्लों
एकशें चौवेचाळीस मिन्टां तान-भूक विसरून
म्हजो उलोय कोणेंतरी भितल्ल्याभितर अंदिलो
कान आसून भेड्डो, दोळे आसून कुड्डो
तोंड आसून मोनो
अशी म्हजी गत जाल्ली
अशे तरेची ख्यास्त दिवपी
ती गुठली म्हळ्यार,
नकळत दांगेपोंदा पडलेली
रानटी मोनेळ.

२९.

## हाड

रस्त्या कुशीक
पळोवन हाड
धावलें सुणें
गळयत लाळ
चोरा सारखी
भोंवडावन नदर
उखल्लें ताणें
हाड.

घट्ट धल्लें
दातांत ताणें
आनी सुटलें
धांवत एकसारखें
धांव धांव
धावलें धापेत
झिलीं आसकडीं
थांबलें.

मांस नाशिल्लें
हाड तें
चघळयत बसलें
बाबडें सुणें
हाड चघळीतां
दातांतल्यान
रक्त तांबडें
थेंबेलें.

दांत हाल्ले
मुळांतल्यान
रक्त थेबेलें
मावांतल्यान
आपलेंच रक्त
चोखीत सुणें
दंग जालें
सुखांत.

३०.

## बॉस

बॉस
तुमी आसा सर
तुमच्या कॅबीनातल्या कोयराकडेन
कोणें केन्ना देखलेंच ना
देखलेंच जाल्यार
थंय कोयर आसा म्हणपाची
हिंमत कोणाक जालीच ना.
सगलेच तुमची थुंकी
वयलेवयर जिखपाक
तुमचे भोंवतणी दीसरात वावुरले!
तुमचे मुठींतले सत्तेची केदी करामत!
पयर तुमी गेले
परते न येवपाखातीर
तेन्ना तुमच्या कॅबीनांत नवो बॉस आयलो
ताणें कामेरी लावन
अख्खें कॅबीन झाडून घेतलें
कोनशा-कोनशाचो कोयर भर दिसा
लासून भायर उडयलो
पूण दुर्दैव!
कोयर फाटल्या पायांनी
परतो कॅबीनांत!
खंय तरी खांची उक्त्यो आसतल्यो.

## ३१.

## कैदी

ह्या थळाच्यान
त्या थळा
वता आसतना
वळख तुजी
ताची हाची
सगल्यांची
चलता चलतना
जोडलेलीं नातीं
नात्यांत गोतीं
गोत्यांत माती
मातींत मुळां
मुळांत पाळां
पाळांत झोपां
झोपांत माती
आरथी परथी
नातींच नातीं
तुटता तुटना
सुट्टा सुटना
त्या थळाच्यान
ह्या थळा
पावलो तरी
मान फाटल्या
फाटल्यान वळटा
म्हजें म्हजेचो सोस
आशेच्या घरांत
म्हाका हांगाच
कैदी करता.

## ३२.

## गटारां

रूंद रस्त्याच्या अशीर खळयांनी
घराघरांतलीं व्हांवतात गटारां
येतल्या वतल्यांच्या पायांक चाटून
पुण्यवंत करता कोणाकोणांक
घाण न्हय ती खाण वासाची
चोंयवशींनी सैम परजळपी
किमसां-मुसांची संतत किल्लोवपी
गटारां न्हय ती जन्मभूमी
कायली येदीं कालवां काळीं हीं
कोणेंच केन्ना देखलीं नासलीं
ह्या शाराची पुण्याय व्हडली
देखून अशी सवाय दिसची
पुण्य स्थळां हीं मनां फुलोवपी
पयसुल्ल्यान येतल्या भोंवडेकाराची
नितळ करची न्हय कोणे ही
ह्या शारांची भुशणां म्हगा तीं !

३३.

## गणित

फाटल्या रंवथान
फुडल्या धवळान
काळ हातांतलो
घसरून गेलो
काळो कुळकुळीत
केंस माथ्यांतलो
रातयां एका
धवो जालो
धव्या केंसान
गजब केलो
आयुश्याचो
हिशेब चुकयलो
बेरीज वजा
करून पळयल्यार
शून्याचो
मेळ्ळो पोटलो
हेंच गणित
खिणाखिणांत
आयुश्य पाटार
मांडीत आयलो
खूब कितें
मेळचे बदला
बरेंच कितें
शेणोवन बसलों.

३४.

## हांव गरीब

हांव गरीब हांव गरीब
खोपींतलो गावांतलो
रेब्यांतलो शेणांतलो
तानेलेलो भुकेलेलो
साटली पोटली मारून फाटीर
सल्लो भायर वाट सोदीत
कित्याखातीर, पोटाखातीर
हांव गरीब, हांव गरीब
खोंपीतलो गावांतलो.

खोपींतलो गावांतलो
शिमोशिमो हुपोवन असो
बारा गांवचें उदक चाखोवन
हेडत हेडत शारा पावलो
संडास धुयले, रस्ते झाडले
रस्ते बांदले, बंगले बांदले
कोणाखातीर, कित्याखातीर ?
म्हजेखातीर, आमचेखातीर
दिकेंभर पोटाखातीर
हांव गरीब हांव गरीब
खोपींतलो गावांतलो
गावांतलो शारांतलो.

गावांतली खोप म्हजी
फाटल्यान म्हज्या सावळी कशी
शारां पोटांत गांव वस्ती
भुकेवांगडा येवन रावली
बेकारचावडी गुंडगिरी
वेशागिरी मारामारी
बेबदेगिरी चोरीचोरी
हांव गरीब हांव गरीब
खोपीतलो गावांतलो
गावांतलो शारांतलो.

दुःख म्हजें पुण्यवंत
कितल्या जाणांक जाता खंत
राव साव येता सोदीत
खोपींत म्हज्या पडटा खेटी
जाता पावणी घालता लास
गरीबी म्हजी जाता सा ऽऽ
सा ऽऽ वो ऽऽ सा ऽऽ
हांव गरीब हांव गरीब
खोपींतलो गावांतलो
गावांतलो शारांतलो
फायलीतलो भाशणांतलो
मळबभर शिंपडलेलो
शेतांतलें कल्लें कसो
हुमटयत तितलो फागुरतलो
हांव गरीब हांव गरीब
खोपींतलो गावांतलो
गांवांतलो शारांतलो
जगांतलो जगांतलो
ज़गांतलो जगांतलो
हांव गरीब हांव गरीब....

३५.

## मळब

उज्यावरी भगभगतलें
म्हजें मन
म्हाका पुरतें
लासूंक लागलें
तेन्ना
हात वयर करून
हावें उक्त्या मळबाकडेन
भीक मागली
पोसोभर उदकाची
म्हज्या वयर केल्ल्या हातांक पळोवन
उपहासान हांसपी मळब
म्हाका घरे नाशिल्लें पोकें पोणसुल कशें दिसलें
देखून झटकरून हावें हात फाटीं घेतले
मळब चक्रावलें.
ताणें काळ्या कुपांचे कळशे एकठायले
आनी म्हजेर घसघशांनी ओतले.
म्हाका
पुरतो उदकांत बुडयत.

३६.

## वादळ

शांत सैमांत
धवोळ घालून
खंयसून येता
हें वादळ ?
खंयचे खेव
गिळून पोटांत
उधळून घालता
शांत सैम
देगेवेल्या
घराच्या म्हज्या
पाडसावेले
हुबले नळे
घडघडलीं
जनेल-दारां
वेरेले हारशे
फुटके हारशे
जनेलांचे

हुबलेले नळे
पाडसाचे
कितले फावट
घातले नवे
कितले फावट
घालूं नवे ?
कोल्ली वादळ
अर्दी-मर्दी
एक सारखें
सतायतलेंच
पूण
घट बुन्यादीर
थीर वण्टी
सोशिक पाखें
अशें घर उबें.

३७.

## कोंकणी

मायभास
कोंकणी आमची
सासाय गोंयची
राखतली रे
जात धर्म
करून एक
एक मुठीर
थेयतली रे
कोंकणी भूंय
कोंकणी मनीस
नवे उर्बेन
उठ्ठोलो रे
मळब भेदून
कीर्त आपली
अख्या जगांत
फांकतली रे
बुद्धी सागर
धंद्या नगर
गोंय आमचें
फुलता रे

पावला कणकणी
कले-रत्नां
हांगचे भूयेंत
मेळटा रे
माये मोगाची
उतरां सुरांनी
मनांत आमच्या
रूजता रे
सादयत आसा
ल्हारां तशीं
म्हासागराची
खोलाय रे
दिसतात उबीं
स्थिर तशी
दोंगरांची
तेमकां रे
तायट कण्यान
उबे रावूंक
स्फूर्त दिता
माड रे
असल्या देशाक
कोंकणी म्हजी
शब्दबद्ध
करतली रे
आपलेंपण
दिवन आमकां
व्हडपण
हाडटली रे.

३८.

## रितो देव्हारो

परमळा फाटल्यान जळटी चूड
घेवन म्हज्या घरांत आयलें
आनी म्हजें दैवत लासून
गर्भकुडींत येवन बसलें
तुजी पूजा बांदपाखातीर
रक्त सुकोवन वचपाचें
म्हजें तुजें जमचे खातीर
देवूळ मोडून घालपाचें
आयलें तशें गेलें तूं
रितो देव्हारो हांसता म्हाका
म्हज्या सुखाची जाणीव गो
कशी आसची ताका तुका ?
तुजें वचप म्हजी खोस
शिरंतरांनी फुलून आयली
आडरानांत शिरतना
वाट म्हजी दिसूंक लागली.

३९.

## शिगमो

गांवचे गडे शारां पावले
रस्ते रस्ते चंवरले
शिगम्या मेळ पळय कशे
वाजत गाजत नाचत आयले.

माथ्या फेटे हातांनी तोंडके
तरातरांचे भेस कितले
रंग-रंगी बनेरांफुडें
इलामतीत नाचताली.

घणचे कटर घणरे घणर....
ओ ऽऽ सय, ओ ऽऽ सय शबै शबै....
वाजप नाचप एक जालें
खेळगडे गुल्ल जाले

मदींच शिंगां फुंक पळय
आरपार चिरीत गेली
जळामळा झिपडिल्ल्यांक
शिटकायत जागयत गेली.

नाचतल्यांचे खुबळ्ळें रगत
शिरंतरांनी आयलो चेव
पावलांची शबै शबै
शिगम्याक पळय चडलो रंग
गांवगडे भारावलेले
वळख आपली दाखयताले
नाचतना तांकां पळयतना
दिपकले लाख दोळे.

४०.

## चंद्रिमाक

कोणूय हाडून दियात म्हाका
मळबा चंद्रिम
धापून दवरता ताका
पाटल्या पोंदा

कोणूय हाडून दियात म्हाका
आपाय लिपाय खेळटना
कुपां फाटल्यान लिपता
रातचीं आंगणा खेळटना
फकाणां आमचीं करता
फकाणां आमचीं करता

कोणूय हाडून दियात म्हाका
रागार फुगार जाता बेजार
वाजेवन घरा वता
नाक शिमरो चोर कसो
दडत दडत येता
दडत दडत येता.

कोणूय हाडून दियात म्हाका
असल्या फकाणी या चंद्रिमाक
शिक्षा हांव करतां
धापून दवरतां ताका
पाटल्या पोंदा
कोणूय हाडून दियात म्हाका.

## ४१.

## मागणें

नेणार आमी भुरगीं देवा
मागतां तुमच्या लागीं
बरी बुद्धी शक्तिविद्या
दिवची आमकां तुमी
माये मोगाचें आमकां मेळचें
मोल सुखाचें
घरां-दारार गावांर देशार
चीज जिणेचें जावंचे
नेणार आमी भुरगीं देवा
मागता तुमच्या लागीं.

## ४२.

### म्हज्या दोळ्यांत

म्हज्या दोळ्यांत
शेकड्यांनी दोळ्यांतले कॅमेरे
घेतात ह्या संसारांतले शेकड्यांनी फोटे
रेब्याकोणांचे धडेर बसून दोले मिचकावपी बेबे
कामुकतेन उन्मत्त जाल्ले रस्ताद सुणी-सुणे
रक्त पिवन फुगलेले भिकूण-किमसां
आनी पोट भरतगीर कुयो घालपी कोले
अशे कितलेशेच फोटे
म्हज्या दोळ्यांतल्या कॅमेऱ्यांनी घेतलेले
तशीच
देगेपसून पयसावलेलीं तारवां
भितल्लेभितर झुरपी दर्याचे काठ
मर्दीच आपालिपा खेळपी श्रावणांतलो पावस
अंतरांतल्या दुखण्यान खंती दोंगर
आनी शिबाशिबांचें सुस्तावलेले हार कशे
धायदिकांनी पातळलेले रस्ते
अशे कितलेशेच फोटे
म्हज्या दोळ्यांतल्या कॅमेऱ्यांनी घेतलेले
दिवडाचे दाडयेंत सांपडलेल्या बेबकाच्यो
मुक्तीखातीर मारिल्ल्यो हुयेल्यो
घोटरा घोटरांनी अन्नाखातीर सुकण्यांची चिंवचिंव
बोडक्या जाल्ल्या रानमळार आलाशिऱ्याचे चिंतेत

घुस्पल्ली रानवटां
आनी रस्त्यावेल्या हाडाखातीर
एकसारखे झुजपी सुणे
अशे कितलेशेच फोटे
म्हज्या दोळ्यांतल्या कॅमेऱ्यांनी घेतलेले
अशे हे सगले
दोळ्यां भाटयेंत खतखतले
दोळ्यांतच कुपां जावन
दोळ्यांतल्यान जमनीर ओतले पावळ्यांनी
हालींच थंय पाचवो पाचवो रोपो किल्लला
कल्पफूल गर्भांत घेवन
त्या फुलाक पोशांत घेवपी खापे हात खंय आसात ?
तांचे फोटे घेवंक
म्हज्या दोळ्यांतले कॅमेरे धायदिकां तेळतात.

४३.

## एक रूख

दोंगराचें
उक्तें माथें
काळ्या तळपां
पडलां भिरें
पानां झडिल्ले
रूख उबे
शेळ्या वाऱ्यान
कडकडटाले
आपले पयले
पयस जाले
अभ्रंवर
मातये नातें
सूर येता
एकसुरे
आलतड पलतड
जोडटले.

४४.

## घुरंगुटे फुलां

मोवां मोहान
घुरंगुट्याचीं
फुरफुरलीं
फुडलीं कुसां
कळ्यांतल्या फुलाचीं
फुलचे फुलोवन
झिंगलीं कबरां.

४५.

## धनुष्य

रंग रंग
तरतरांचे
हांगचे थंयचे
म्हजेय
पोशांत हांवे
घेतले आनी
वाऱ्यार
भिरकावन दिले
रंग बागडत
वाऱ्यार धोलत
गेले वयर
उडत उडत
नदरेच्याय
पयसकडे
रंग दिसना
कांयच समजना
तांचेबगर
जीव करमना
बोबले देठासून
साद घातले हे
आसमंतात
पसरोवन गेले
रंग म्हजे
मळब माचयेर
सात रंगाचें
धनुष्य जालें.

४६.

## फुडाराचें सपन

फुडाराचें सपन रे तुजें
सपन जावन उरतलें
दिसान दीस जग मुखार
कठिण जायत आसतलें
आपले पयले पयस जातले
पयशां फाटल्यान धावतले
नीतिप्रिती कुशीक सारून
मेळत तांकां पिळटले
झाडां-पेडां दोंगर शेतां
नास-धुस जायत वतलीं
फुडली पिळगी सैमांखातीर
इतिहासा पानां चाळटलीं
घरा-दारा खातीर मनशां
हेडहेड हेडटलीं

लाचार जावन पळयत वयर
उकत्या मळबाक होरायतलीं
उणीभर गोट्यांखातीर लेगीत
झगडीं-झूजां माजतलीं
एकमेकां पांय ओडूंक
जातीकाती उस्तीतलीं
तानेवेळार उदकाखातीर
ताळो लेगीत तानशेतलो
अशे वेळार सगलेकडेन
रणखेव माजतलो
दुबळे बाबडे चिड्डतले
सबल वयर सरतले
कौरव पांडव परते एकदां
झुजामळार जमतले
कोण जिखत कोण हरत
आतांच कांय सांगू नज
तरीय एक त्रिकाल सत
कालचक्र फिरतलें.



**मनोराय डांगी नायक**

जल्म: २ जानेवारी १९५४ वर्सा, पारपतीवाडो, बांदोडें, फोंडें, गोंय हांगा. बी.कॉम. एल.एल.बी. मेरेन शिकप केलां. सद्याक एम. एम. टी. सी. ऑफ इंडीयां लिमिटेड, वास्को द गामा हांगा नोकरी.

१९६७ सावन लेखनाक आरंभ. कोंकणी तशेंच मराठींतल्यान कविता बरयल्यात. राष्ट्रमत, गोमंतक, सुनापरान्त ह्या दैनिकांतल्यान तशेंच ऋतू, कोंकणी, जाग, कोंकण टायम्स अंकांतल्यान आनी आकाशवाणी पणजी केंद्रावयल्यान कविता वितरायल्यात.

तांगेल्या कवितांविशीं गोंयचे नामनेचे समिक्षक प्रा. सोमनाथ कोमरपंत म्हणटात –

'' 'कल्पफूल' ह्या कवितासंग्रहांतली मनोराय नायक हांची कविता एकल्या एकसुऱ्याची, तशीच सामाजिक जिणेंतले सुक्षीम पदर नियाळपी सृजनशील कलावंताची. दोनूय नदरांनी पळयली जाल्यार ही कविता रसिकांच्या मनाक आनंद दिता. तांचें मन अस्वस्थ करता. अशांत करता. विचार करपाक नवी तांक दिता.''

**अपुरबाय प्रकाशन**